# सकाळचीं सवणीं



शरतचंद्र शेणै

# दर्शन

हासमुखें भुरगें -
ताचे लागी उलयत खेळत
ताची हासमुखी आवस -
दर्शन हें दी माका
दर दिसा..

## दोवा कण

फांतोडेर, फुलाचे पात्येर
एक दोवा कण..
ध्यानार बेसल्ल्या
एकाद्र्या ऋषी वरी..
त्या दोवा कणाच्या
काळजाच्या हारशांत..
सगळें मळब..
सगळी धर्तरी..

# पारवे

सप्तरंगाचे हे इंद्रधोणवा,
चोय तूं मळबावेल्यान खाला..
ह्या आंगणांतल्या पारव्यांक
केद्दो साजता हो रंग
जो पूण तुका ना गा..

# सोद

## शेणलेल्या उतरांचो
## सोद म्हजो..

# धनी

उतरांचो मोगी..
तोच उतरांचो धनी..

# उतरां

खुंटिल्लीं फुलां
पानार काडलीं..
गुंथिल्लीं उतरां
कागतार वाडलीं..

## नातें

उतरां उतरांचें नातें
तशें मनशां मनशांचें -
मात्शे अंतर मदीं मदीं
भोव गरजेचे..

# मोल

एक उतर अनमोल..
चड उतरांक
ना मोल..

# मौन

उतरांचें मोल कळपाक
गरज मौनाची..
मौन तोखेवंक
गरज उतरांची..

## अर्थ

आत्मो म्हज्यांत,
अर्थ उतरांत..

## तत्व

मांस लासतलें,
हाडां फुट्टलीं,
नांव पुसतलें,
उतरां उरतलीं..

# उतरां

उतरां शेवटून मारतल्या,
उतरांचें हें कितें रे केलां..
कसली गरज तुका उतरांची?
गरज तुका फकत फातरांची..

## कणिका १

रीणाच्या उतरांक
उतरांचें रीण..

## कणिका २

पान मू.. फूल मू..
फल मू.. कविता

# बळी

कागता खातीर
बळी जालेल्या रुखा,
तुज्या कागताक आतां
जीव दितां..
म्हजे खातीर
बळी जालेल्या कागता,
तुका म्हजो आत्मो दितां..

# कवितेचें पावल

रानांतले फातरेक
जीव दिलो
रामचंद्राल्या पावलान..
म्हज्यांतल्या फातराक
जीव दिला
कवितेच्या पावलान..

## कालची कविता

फायचे कवितेक राखून हांवें
फालीं कितलीं वगडायलीं -
कालचे कविते,
तूं कोपून वशी..
कागतार तुकाच गो रंगयली -

# गरोवपी

बरोवपी न्हय, गरोवपी तूं -
बारीक एक उतर उडोवन
मेळत एक कविता म्हणून
अशीच वाट पळोवपी..

# कवितेची वेंग

कवितेचे वेंगेंत
शेणलों..
म्हजे माकाच
विसरलों..

## काकुळट

कवे, तुजी काकुळट..
तुज्या कोशांतुल्यान
पाकां फुटून
भायर आयलेलीं
पिसोळीं सगलीं
दूर दूर वतात -
रसिकांचीं काळीजां सोदीत..

# झाड

मना झाडार
सपन कळे..
थोडे फुलून
कवन जाले..

## हांव

हांव आतां
ना जालां..
म्हज्या कवितांनी माका
खावन काडला..

# रद्दी

कालचें घडित..
आयची खबर..
फायची कविता..
परां रद्दी ?

# ती

सुचलेली कविता विसरलों
म्हणून हांव निर्शेलों -
पुण तिका म्हजी याद..
उलो मारता ती परतून परतून
लिखणी उखल उखल मेरेन..

## निपून

ह्या को-या कागताच्या
भव्य विस्तारांत खंय तरी
निपून निपून आसा
एक सुंदर कविता..

# शिंपी

कविता मू मोतीं
कवी केवल शिंपी..

## पयलो रसिक

कवितेचो पयलो रसिक
खुद्द कवी..
भितर कविता जन्मता जन्मता
तिचो पयलो वयलो अणभव
ख-यान ताकाच जाता..

## देव आनी मनीश

देवाक आमी मनीश केलो
मनीश जालो जनावर..

## देव आनी हांव

देवाक हांवें सोरगार चडयलो
हांव बाबडो मनीश
पाताळांत पडलों..

## देव आनी मनीश

मनीश सोदता देवाक
मेळ्ळो काय? मेळटलो?
कळना माका..

देव सोदता मनशाक
मेळ्ळो काय? मेळटलो?
कळना माका..

# देव आनी देवळ

देव नाका, देवळ पुरो
क्रिस्त नाका, खुरीस पुरो
अळ्ळा नाका, मुळ्ळा पुरो..

## देव आनी मनीश

देवा हातान मनीश
काळो आनी गोरो..
मनशा हातान देव
कितलो तो बरो..

## देव दानव

जंय वेद
थंय वेताळ बी..
जंय देव
थंय दानव बी..

# अवतार

'धर्मसंस्थापनार्थाय' म्हूण
मनशाचोच अवतार
कित्याक धरता देव?
हो धर्म म्हणचो फक्त
मनशाकच लागू कितें?
आनी कोणाक ना?
खंयच्याय युगांत?

## तो जाणा

देवान घेतले अवतार भूमीचेर
मनशां खातीर,
फकत मनशां खातीर..
ताका खबर आसा, तो जाणा,
बाकी सगल्यांची
तकली जाग्यार आसा..

हे सर्पा -

वीख आनी विखा दांत
शेणिल्ले सर्पा,
भुंयेवेली जीण मुखार
कष्ट रे बाबा..

## अजाप

गळटलो पिकल्लो पालो,
खेळटलो जिवो..
इतलें सादारण कितें वेगळें?
इतलें अजाप कितें वेगळें..

## कालचो आनी आयचो

कालच्यांनी
भूंय सोडली,
भास सांबाळ्ळी..
आयचो..
भास सोडटा,
भूंय जोडटा..

# दान

सिटी काय मेट्रो?
काय सिमेंटीचें रान?
रूख रुखावळ हांगा
कुराडेक दान..

# सुनामी

राक्षसी ल्हारांक
तेद्दें कशी शिरापूं?
मनशांतलें मनीसपण
जागयताय तींच मू..

## संतत

कुचेलाक भुरगीं कितलीं?
नातरां कितलीं?
पोणतुरां कितलीं?
हांव नेणा ..
पुण आज ताची संतत
जाल्या अगण्य..

## जाणटे

दर जाणट्या भितर
आसा एक भुरगो,
दर भुरग्या भितर
आसा एक जाणटो..

## लक्ष

कोण म्हणटा म्हूण
विचारूं नाका..
कितें म्हणटा म्हूण
लक्ष दी..

## शिकवण

दूद दिलेल्या हाताकय
घास काडटा जिवाणें -
मनशा कडचान मू खरें
शिकून घेतलां ताणें..

# घडित

दाव्या पोल्यार मारलो म्हणून
उजवो पोलो दाखयलो..
क्रिस्ता म्हज्या, राक माका,
होवय तांणी तापयलो..

# फरक

दुडवा उंचार बेसल्लो चोयना अशी
दळडि-यांत बुडल्लो चोयना तशी -
तांकां ना (नाका)
परिचय एकामेकाचो
पुण फरक तांचो
फक्त एक जन्माचो..

## फट

सगळें महाभारत आसत खरें
पुण जरासंधाची काणी मात फट -
वेगळायलेले कोण केन्नाच
जायनाय एकडे..
आपलेच आवसून
एकडे केलेले लेगीत
आज हांगा अमसरताय,
जावंक वेगळे..

# गुपीत

म्हजो म्हणून हांसो ना
तुजें म्हणून रडणें ना -
समजुपाचें समजतलो
इतलें हांवें सांगतना -

## शिकवण

बेठींच वगडायले
जिणेचे दीस इतले -
तर कितें?
जीवित कितें हें माका
शिकोवन मू ते गेले..

# काळोख आनी उजवाड

काळखा कडेन पळयल्यार
काळोखूच काळोख..
उजवाडा कडेन पळयल्यार
उजवाडूच उजवाड..

# आनी एक मिलेनियम -

प्लास्टिका आड उलयतल्ले
उलोवन उलोवन मरतले -
प्लास्टिक वापरतल्ले
वापरत वतले -
आनी एक मिलेनियम उदेतना
भूमीर प्लास्टिकच तिगून उरतलें -

## आयचो मनीश

कोण बरो कोण कूडो?
हें माका विचारूंनाका.
कोणाच्यान माका फायदो?
केवल इतलेंच हांव जाणा..

## रगताची वळख

रगत खरें कोणाचें आसा
आमच्या शीरांनी?
मनयत काय फाल्या
नरकासुरजयंती?

## जीविताचें पुस्तक

जीविताच्या पुस्तकाक खंड चार
चोवीस अध्याय आनी पानां साबार
कागतां थोडीं बुरशीं काळीं
अध्याय थोडे नाशिल्लेच बरे..
तरीय मित्र, इतलें हें आवडीचें की
हेंच पुरो, हेंच जाय..

# स्वधर्म

स्वधर्म करीना तरी तें
फलान अधर्म जाता.
समजून घे..

# सपन

सपन आशिल्लें गोड गोड
पूण अर्द्यान जाग आयली..
म्हूण कितें? परतून निदेवंचें?
ना रे ना! जीवित शेणोवंचों ना..

# रेलस्टेशन

गाडी लेट म्हणून आमी
एकामेकांची वळख घेतलेली
खबर सांगून वेळ गेलो
गाडी येता म्हणून आतां
खोशीच दिसना..

## आवय

मायेमोगान सगलें घर दिपकावपी
दिवो..
असले एक आवयचे आमी
पूत आनी धुवो..

## अस्वडीं

शिष्याची तोखणाय अस्वडीं
गुरूची टिका अस्वडीं
बापायलो मोग अस्वडीं
पुतालो राग अस्वडीं..

## वैभव

भुरगो आसतना
उंगोटो दिकल्यार
रावणाक बरयतालो खंय..
आतां?
आतां तो फामाद पत्रकार गा..

## जीवित

जीवित उलयतना
कान दिवन आयक..
मरण आपयतना
पाय फापडून वच..

# भाव भेद

## भितर आसता भेदभाव
## भायर दिसता भाव भेद

an e-book by




**Disha Institute of Konkani**
Palluruthy, Kochi.